

# अशे आशिल्ले गांधीजी

गांधी साहित्य – १०

# अशें आशिल्ले गांधीजी

## पांचवो वांटो

*"...हाडां–मांसाचोच असलो हो मनीस हे धर्तरेचे फाटीर चलतालो
तालो म्हणपाचें फुडले पिळगेक खरें लेगीत दिसचें ना..."*
*—अल्बर्ट आअिन्टाअिन*



स्वातंत्र्यात् लभते परम् ।

गो मं त भा र ती प्र का श न

१९६०

अजवाडावपी
वसंत पांडुरंग बोरकार
जे. के. बिल्डींग नं. ४
गांवदेवी–मुम्बै ७.



पैली खेप
२६ जानेवारी
१९६०

मोल :—
०·५० नये पैसे
सवूय बांटे अेकठांय
२·५० नये पैसे
बांदिल्लें पुस्तक
३.०० नये पैसे

छापपी
व्यं. रा. शिगरे
सर्वोदय मुद्रणालय,
४५० बुधवार, पुणें २.

●●●

## : १६१ : हांव येतां....पुण

अिंग्लंडची अेक बायलमनीस गांधीजींक मेळूंक आयिल्ली. मुलाखत जातकूच तिणें गांधीजींक अिंग्लंडाक येवपाचें आमंत्रण दिलें.

"हांव येतां. पुण तीन अटींचेर." गांधीजींनीं म्हळें. "पैली अट–मँचेस्टरच्या कामगारांक सांगप कि हिन्दुस्थानांत तुमचें लुगट धाडूं नाकात. तांची मनां पैलीं बदलूंक जाय. दुसरी अट–पार्लमेन्टाच्या लोकांक सांगप कि हिन्दुस्तानाक स्वराज्य दिवन अुडयात. तांचींय मनां बदलूंक जाय."

"आनी तिसरी अट कितें?"

गांधीजी गंभीर जाले. म्हणूंक लागले : "आमी हांगासल्या लोकांक सोऱ्याच्या व्यसंनांतल्यान सोडवंक वावुरतांत. पूण सर–कार सोऱ्याच्या अुत्पन्नाचेर शिक्षणाचें खातें चलयता...आमकां हें नीतीभायलें दिसता...तेन्ना अिंग्लंडाक सगळ्यांक हीं गजाल सांगून ताचे आड आवाज अुठवपाचें काम करात.

"हीं तीन कामां तुमी केलींत जाल्यार हांव येतां."

****



## : १६२ : अिंग्लंडाचें पातक

गांधीजी १९३१ त अिंग्लंडाक गेल्ले तेन्ना थैंच्या गरिबांचे वसतींत वचून रावले.

अेक दीस तांकां ऑक्सफर्ड विद्यापीठांतलें आमंत्रण आयलें. मोटे मोटे बुदवंत लोक थैं जमिल्ले. ते तांकां तरेकतरांचे प्रस्न करूंक लागले. गांधीजी विद्वानांत मोडनासले. तरूय तांणीं सगळ्यांक अुत्तरां दिलीं.

अेके सभेंत तांणीं अमृतसराक जनरल डायरान केल्ल्या करण्यांचें वर्णन केलें. पोटावेल्यान सरपटत वचपाचो ताणें हुकूम केल्लो ताची खबर सांगनाफुडें लोकांच्या आंगार कांटो फुललो. सभा सोंपतकूच अेक बायलमनीस गांधीजी सरीं येवन म्हणूंक लागली:

"आमी पन्नास खेपो तशीं सरपटत गेलीं जाल्यार जनरल डायरान केल्लें पातक धुवन वचत? आमी तशे करूंक तयार आसांत"

"शीः तुमी तशें करपाची गरज ना"–गांधीजींनीं म्हळें. "तुमी आपले अित्सेन पन्नास खेपो तशें करुंक तयार जाशातरूं पुण अेकाद्रे अिंग्लीश चलयेक तशें जबरदस्तीन करूंक लावपाचो म्हाका यत्न करूंक दियात. ती म्हजेर खोंट मारतली. आनी तिणें तशी खोंट माल्ली जाल्यार हांव तिची चूक जाली अशें म्हणचों ना...अिंग्लीश लोक हिन्दुस्तानांत सेवक म्हुण, धनी म्हुण न्हय, रावले जाल्यारूच तें पातक धुवन वतलें."

****

## : १६३ : हांव नमचों ना

अिंग्लंडची वर्तमानपत्रां गांधीजीं विशीं कित्याकियतें खबरी छापतालीं. बातमीदार येवन तांगेंली मुलाखत घेताले आनी छापतना ती कश्याकीयशी छापताले. गांधीजींनीं तांतल्या अेका बातमीदाराक आपवन धडधडीत फटी कित्याक छापता काय म्हुण विचाल्लें आनी म्हळें :

"तुमी कितेय छापलें तरूय अडचण ना...हांव मुलाखती दिवपाच्यो बंद करचों ना."

अेका बातमीदारान गांधीजींची नमळाय दाखवपाच्या हेतून छापलें कि प्रिन्स ऑफ वेल्स जेन्ना हिन्दुस्तानांत आयिल्लो तेन्ना गांधींनीं साष्टांग नमस्कार घालून ताका येवकार दिलो !

गांधीजींनीं ताका आपयलो आनी सांगलें :

"हांव हिन्दुस्तानांतल्या गरिबांतल्या गरीब भंग्याक साष्टांग नमस्कार घालीन. कित्याक शेंकड्यांनी वर्सा पसून तो चिड्डला, चेपला. ताच्या पांयांची माती लेगीत हांव मस्तकाक लायन. पुण राजपुत्राकच न्हय, राजाकूय हांव नमस्कार करचो ना...तो अेके मदांत सत्तेचो प्रतिनिधि म्हुण..."

****



: १६४ : **माये मोगान**

गांधीजींक सांबाळपा खातीर स्कॉटलंड यार्डच्या दोन गुप्त पोलिसांची अिंग्लंडच्या सरकारान नेमणूक केल्ली. जण अेकल्या कडेन दुबावान पळवप हो तांचो धंदोच आसलो. गांधीजींक कोणूय कितेंय करीत म्हुण ते सगळी जतनाय घेतालेच. पुण तेच बरोबर गांधीजी कितें करतात, कितें अुलयतात हेंय ते पळेताले.

पुण कांय दिसांनीं ते गांधीजींचे अिश्ट जाले. तांचीं कामां करूंक लागले. तांच्या परिवारांतल्या लोकां भितल्लेच जावन रावंक लागले.

अिंग्लंडांतलें काम सोंपतकूच गांधीजी हिन्दुस्तानांत येवंक भायर सल्ले तेन्ना सरकारी अधिकाऱ्यांनीं तांकां विचाल्लें:

"तुमकां कितेंय जाय आसल्यार आमकां सांगात."

गांधीजींनीं म्हळें :

"हे दोग जाण पोलीस म्हजेबरोबर आसतात. तांकां ब्रिंडिसी मेरेन म्हजे बरोबर धाडात."

अधिकाऱ्यांचो समज जालो कि गांधीजी आपल्या रक्षणा खातीर तांची मागणी करतात! तांकां बावडच्यांक हे पोलीस गांधीजींचें अिश्ट जाल्यात म्हुण खें खबर! तांणी कारण विचाल्लें. गांधीजींनी म्हळें "ते आमच्या कुटुंबांतलेच जाल्यात."

अुपरांत हिन्दुस्तानांत पावतकूच गांधीजींनीं तांकां दोन घडयाळी भेट धाडल्यो. त्या घडयाळींचेर कोंरांतिल्लें : "मो. क. गांधी कडल्यान–माये मोगान."

****

## : १६५ : खरेले कलाकार

पुण्याच्या ससून हॉस्पिटलांत आसतना संगीतकार दिलीप कुमार रॉय गांधीजींक मेळूंक आयिल्ले. गांधीजींनीं तांकां गावंक सांगलें. दिलीप रॉयांक आनंद तर जालोच; पुण थोडेशें अजापूय जालें. गांधीजींक संगीताची रूच आसत अशें तांकां दिसूंक नाशिल्लें. तांणीं मेकळेसाणेन म्हळें :

“ महात्माजी, तुमकां संगीताची खरीच रूच आसा ? ”

“ हय तर ! ” गांधीजींनीं म्हळें : “ म्हज्या भुरगेपणा पसून हांव संगीताचो भक्त जावन आसां...”

“ पुण तुमचे हे सन्याशा सारके जिणेंत संगीताक वा कलेक सुवातच ना असो म्हजो समज आसलो. ”

“ हय, हय...हांव जाणां–” गांधीजींनीं म्हळें. “ म्हजे विशीं नाका नाका जाल्ले समज लोकांनीं पातळायल्यात. तांतलोच हो अेक. हाका लागून जालां अशें कि हांव जेन्ना म्हाका अेक कलाकार म्हणयतां तेन्ना लोकांक दिसता हांव फकाणां मारतां. ” आनी गांधीजी मेकळेपणान हांसूंक लागले.

“ पुण ताका जापसालदार तुमीच न्हय ? तुमचें हें सादें साधु सारकें जीवित आनी कला हांचो मेळ लोकांनीं कसो लावचो ? ”

“ आऽह ! ” गांधीजींनीं म्हळें : “ अडेचे भायलेचार काडून जीवित सादें आनी सुंदर करप ही म्हज्या मत्तान सगळयांत मोटी कला...देखुनूच हांव म्हणटां कि जो आपलें जीवित सादें आनी सुंदर करता तोच खरेलो कलाकार. ”

सादें आनी सुंदर जीवित जियेवपी मनीस होच खरेलो कलावंत आसत जाल्यार गांधीजींक मोट्यांतले मोटे कलाकार म्हणूक जाय. तांच्या जीवितांत अडेचें अशें कितेंच नासलें आनी ओवड-धोवडपणूय खैंच नासलें. प्रत्येक करणी अुपाट अर्थान भरिल्ली आनी सुंदर आसली.

****

## : १६६ : संगीताचे भक्त

दिलीप कुमार रॉय हांणीं " म्हांने चाकर राखोजी " हें मीरेचें भजन म्हळें. रॉय स्वता भक्त. ते तल्लीन जावन गावंक लागले. भजन सोंपतकूच तांणीं गांधीजींकडेन पळेलें. गांधीजींची नूरा फुलिल्ली.

" सुंदर...मीरेची भजनां सदांच सुंदर आसतात." तांणीं म्हळें.

" गुजराथांत तुमकां तीं खूब आयकूंक मेळटात जातलीं–" दिलीप कुमार हाणीं म्हळें.

" हय...म्हाकाय खूबशीं येतात. आश्रमांतल्या लोकांक तीं हांव खूब फावटीं म्हणूंक सांगतां." थोडो वेळ ओगी रावन म्हणूंक लागले : "मीरेच्यान रावं नज आसलें म्हुण ती गाताली... हाका लागून तिचीं भजनां अितलीं सुंदर जाल्यांत. तातूंत तिणें आपलें काळीज ओतलां..."

त्या अुपरांत जितल्योय खेपो दिलीप रॉय गांधीजींक मेळ्ळयात तितल्योय खेपो तांणीं तांकां भजनां म्हणूंक सांगल्यांत. गांधीजींक संगीताची अितली रूच आसली कि तांणीं आश्रमाची स्थापना

करिना फुडें अेक संगीतकार सोदून हाडिल्लो. गांधीजींक संगीत जाय आसलें. पुण तांकां कोणूय अुपकरा पडनासलो...ते संगीतकाराची जिणूय पळेताले. आवाजा परसूय जिणेक म्हत्त्व दिताले आनी गांधीजींक असले संगीतकारूय खूब मेळ्ळे आनी अुच्च संगीतूय खूब आयकूंक मेळ्ळें.

****

## : १६७ : कळावंताची नदर

गांधीजी निजाचे कलावंत आसले. जिणेच्या बारीक बारीक आंगांकडेन तांचें लक्ष आसतालें. खैंचेच कडेन घळपणां ते अुरूंक दिनासल. तांची आपल्या भेसाकडेन लेगीत बारीक नदर आसताली.

सुरवातिचे दीस. गांधीजी सिंध प्रांतांत गेल्ले. त्या वेळार ते काठेवाडी तरेचे पुडवें, सदरो आनी पागोटें घालताले. भायर सरता आसतना तांचे बॅकेंत कस्तुरबाय पागोटें घालूंक विसल्ली. सिंधांत पावतकूच तांच्या लक्षांत ही गजाल आयली. थैंच्या तांच्या अिश्टांनी बाजारांतल्यान लुगट विकतें हाडलें पुण तें नवेंच आशिल्ल्यान ताचो रंग आनी पुडवें–सदऱ्याचो रंग हांचो मेळ बसना जालो. सवनरात जागरण करून तांणीं तें तीन-चार खेपो धुलें. आनी रंग जुळ्ळो तेन्नाच वापरलें.

लुअी फिशर हांणींय असलोच अेक अुगडास बरवन दवल्ला. सेवाग्रामाक घोंट चोखता आसतना ताचो अेक थेंब तांच्या वाल्याचेर पडलो. गांधीजींनीं चार–पांच मिण्टां लावन तो घांसून काडलो तेन्नाच तांकां समाधान जालें.

गबाळपणां तांकां माननासलीं.

****

## : १६८ : निर्मळ आनंदाचो झरो

सुंदरकायेची नदर तांची अितली सुक्षीम आसली कि ते जिणेचो आनंद सैमाचे सायेंत घेताले. समुद्र आनी न्हयों, दोंगर आनी तळीं, झाडां आनी फुलां हांच्यांत जी सैमाची सुंदरकाय भल्ल्या तिची रुच घेवंक गांधीजी केन्नाच विसल्ले नात. सूर्यास्त आनी सूर्योदय जाता त्या वेळार कुपांची सुंदरकाय नियाळतां नियाळतां ते कितलेशेच खेपे तल्लीन जाताले. ते केन्ना केन्नाय म्हणटाले कि सैमाची सुंदरकाय अितली पातळ्ळेली आसतना चार वण्टीं भितर रावतले मनीस अरसिकच आसूंक जाय.

येरवडयाचे बंदखणींत आसतना तांकां अेक नवो छंद लागिल्लो. ते रातिच्या मळबाचें वैभव पळवन तान-भूक विसरताले. आकाश-दर्शनाक तांणीं निर्मळ आनंदाचो झरो म्हळा. ह्या झऱ्यांतलें अुदक ते खूब पियेल्यात. मन विशाळ आनी निर्मळ करतले जाल्यार प्रार्थने अुपरांत आकाश दर्शन करात अशें ते सांगताले.

"म्हाका वेगळे प्रेरणेची गरज ना. सैमांतच सगळी प्रेरणा मेळटा. सैमाची ही लीला पळवन हांव तान–भूक विसल्लां, अजापांत पडलां आनी समाधींतूय गेलां...देवा येदो मोटो कलाकार हांवें पळवंकूच ना..." अशें अेकेकडेन तांणीं बरवन दवल्लां.

****



## : १६९ :                                  सुंदरकायेची तुस्त

ऐकाद्रो दादलो वा बायल सुंदर आसलो जाल्यार तांचे सुंदरकायेची तुस्त करची काय न्हय, असो ऐकल्यान गांधीजींक ऐक खेपे प्रस्न केलो. गांधीजींनी जाप धाडली:

"सुंदरकायेची तुस्त जावंकूच जाय. पुण ती मोनी वरी. त्या भायर नाका 'तेन त्यक्तेन भुंजीथा :' (त्यागून भोगचें) होय नेम लागू करूंक जाय. आकाशाचें सौंदर्य पळवन जो आनंदीत जायना नाका सुंदरकायेची रुचच घेवंक येना अशें म्हळचार जाता. पुण आनंदीत जावन वयर वचपा खातीर तो निसण बांदूंक लागलो जाल्यार कशें जायन ? "

****



## : १७० : अिंग्लीशांक धांवडावंक जाय देखून

भुरगेंपणांतली खबर. गांधीजी राजकोटाक आसले त्या दिसांनीं सुधारकांचो अेक पंथ थैं सुरू जाल्लो. गांधीजींक अेक अिश्ट आसल्लो. ताणें तांकां सांगलें कि राजकोटांतले कांय मोटे-मोटे लोक चोरून नुस्तें आनी शागोती खातात. गांधीजींक अजाप जालें. गुजरातांत जैन मताचो प्रभाव मोटो आशिल्ल्यान सभ्य लोक नस्तें शागोती खावप अुणाकपणाचें लेखतात. गांधीजीय त्याच संस्कारांत वाडिल्ले. तांकां हें आयकून वायट दिसलें. पुण त्या अिश्टान सांगलें: "आमी नुस्तें शागोती खायनात म्हूण आमी दुबळे जाल्यात. ना जाल्यार अिंग्लीश लोकांक पळे ! ते शागोती खातात म्हूण आमचेर राज्य करतात."

अेका सारके कांय दीस हें आयकतकूच गांधीजींच्या मनाचेर ह्या म्हणण्याचो परिणाम जालो. ते स्वत. दुबळे आसले. भित्रेय आसले. चोरांचो, भुतांचो, सोरपांचो तांकां भंय दिसतालो. रातचे काळखांत वचूंक धीर जायनासलो. तांचे परस तांगेलो अिश्ट हुशार आसलो. धांवप, अुडयो मारप, मार खावप ताका सोंपें जाल्लें. तो चोरांक भियेनासलो. भुतांक भियेनासलो. आनी सोरपांकतर तो जितेच धरतालो. हो सगळो शागोतेचोच प्रताप तो सांगी.

गांधीजींचेर ताचो परिणाम जालो. शागोती खावप बरें. हिन्दुस्तानांतले सगळे लोक शागोती खावंक लागतीत जाल्यार अिंग्लीश लोकां कडल्यान राज्य परतें घेवंयेतलें अशें तांकां दिसलें आनी तेय नुस्तें शागोती खावंक तयार जाले. त्या वेळार

'स्वराज्य' हें अुतर लेगीत तांच्या कानार पड्‌क नामलें. तरूय बळीश्ट जावन अिग्लेजांक धांवडावपाचो तांणीं बेत केल्लो आनी त्यापसत मांस खांवचें अशें थारायल्लें.

थग्लिलो दीस अुदेलो. अेके वटेन सुधारणेचो कैफ आनी दुसरे वटेन चोरां भशेन लिपून खावपाची लज हे कातरींत ते सांपडले. न्हयेंचे देगेर गेले. कोण नात असो अेक जागो सोदून काडलो आनी आयुष्यांत केन्नाच पळवंक नाशिल्ली वस्त शागोती पळेल्ली. अुंडेय आसल्ले. पुण खावं नज जालें. ओकूंक येवं लागलें.

ते रातीं तांकां न्हीद पडली ना. सपनां पड्‌क लागलीं. पोटांत भितर बकरो जितो जावन "वें...अँ...अं..." करता अशें दिसूंक लागलें. जाग येवची, वायट दिसचें. पुण परतून येवजुंचें "हिन्दुस्तानाक स्वतंत्र करूंक जाय जाल्यार हांवें मांस खावंकूच जाय."

हे भाशेन पांच स खेपे तांणीं मांस खालें जातलें. गांधीजी म्हणटात: "म्हाका शाकोतेची रूच नामली. जिबेचे रुचीक लागून हांव शागोती खांवंक सुखार सरूंक नामलों. म्हाका बळीश्ट आनी साहसी जावन अिग्लीशांक हारवचे आसले!"

****



## : १७१ : जाण्टयांक फटवचें पड्टा देखून सोडलें

भायर शागोती खावन येतकच घरा जेवण कशें चलतलें? आवैन "जेवंक यो" म्हणचें आनी पुतान "आज म्हाका भूक लागूंक ना" अशी फट जाप दिवची.

दर खेपे असली फट जाप दिवची पडूंक लागली. गांधीजींक खूब दुःख जालें. "असलीं फटींगपणां! आनी तींय आवै कडेन! हांव मांस खातां म्हुण तिका कळत जाल्यार कितें जातलें? तिचेर मळब कोसळून पडचें ना?" गांधीजींच्या काळजाक हे दुबाव कोरांतूंक लागले. अखेर तांणीं थारायलें: "मांस खावप गरजेचें आसत पुण आवै--बापायक फटवप बरें न्हय. तीं आसा सर हांव मांस खावचों ना. उपरांत, स्वतंत्र जातकूच, सगळयां हुजीर खातलों. आनी ताचो हिन्दुस्तानभर प्रचार करून लोकांकूय सुधारतलों. ते मेरेन मांस खावचों ना."

त्या दिसा जें मांस तांणीं सोडलें तें परतें केन्नाच उश्टायलें ना. उपरांत तांचीं मतां बदल्लीं. बळीश्ट आनी वीर जावपाक मांस खावपाची गरज ना अशें ते म्हणूंक लागले. अितलेंच न्हय तर ती चालच रानटी अशें तांचें मत जालें.

****



## : १७२ : सोपृत मोडचों ना

विलायतेक शिकपा खातीर गेल्ले तेन्ना आवैन गांधीजींक तीन सोपूत घेवंक लायिल्ले. तान्तल्लो अेक सोपूत आसल्लो : "हांव विलायतेंत मांस खावंचो ना." गांधीजींनीं तिका हुम्कया-मेकळी करपा खातीर हो सोपूत घेतल्लो. पुण तांकां ताची बरीच किमत दिवंची पडल्ली. वता आसतना बोटींरच तांची परीक्षा सुरू जाल्ली. अेक तर ते सभावान भिडेस्त आसल्ले आनी दुसरें, तांकां अिंग्लीश मारकों अुलवक येनासल्ली. हाका लागून ते जेवपाच्या मेजाकडेन वचपाचें चुकवंक लागले आनी वांगडा मेवो-मिठाओ व्हेल्ली तीच खावन रावंक लागले.

बोटीर अेकल्लो अिंग्रज आसल्लो. ताका तांची काकुळट दिसल्ली, आनी ताणें तांचे बरोबर अुलवंक–चलूंक सुरवात केल्ली. कोण, खैंचे, वतात खैं, लोकांकडेन किल्याक अुलयनात वी सगळें विचाल्लें. मांस न खावपाचे प्रतिज्ञेची खबर आयकून ताका हांसूंक आयलें. ताणें सांगलें :

"आतां मेरेन अुपकारा पडलें. पुण मुखार अिंग्लंडाक वतकूच तुका तुजे विचार बदलचे पडटले. अिंग्लंडाक शीं अितलें खाता कि थैं मांस खाले वगर रावंकूच येवपाचें ना."

"पुण थैं मांसा वगर रावं येता अशें हांवें आयकलां."

"हांव असल्या अेकल्याय मनशाक वळखून नकळ." ताणें परतें म्हळें: "तुका हांव सोरो पिये म्हणिना. पुण मांस तुका खावचेंच पडटलें."

गांधीजींनीं म्हळें : "तुमच्या सल्ल्या खातीर हांव तुमच्या अुपकारांत आसां. पुण हांवें मांस खावंचो ना असो सोपूत घेतिल्लो आसा. विलायतेंत मांसा वगर चलच ना जालें जाल्यार हांव हिन्दुस्तानांत परतो वेतलों. पुण सोपूत मोडचों ना."

****

## : १७३ : प्रेम—युद्ध

विलायतेंत वचून फक्कत पुस्तकी गिन्यान शिकून घेवचे बदला कोणागेरूय रावन थैंचे जिणेचो अणभव घेवप अदीक म्हत्त्वाचें अशें मानून गांधीजी अेका कुटुंबांत वचून रावले. त्या कुटुंबांतल्या लोकांनीं तांकां अिंग्लीश अुलवंक शिकयली आनी कांय चाली-रितीय शिकयल्यो. सख्या भावा भशेन तीं तांची काळजी घेतालीं.

पुण तांगेल्या जेवणा—खाणाचो प्रस्न मोटो बिकट जावन पडलो. मीठ-मसालो घालिनासतना अुकडलेल्यों भाजयो बऱ्यो लागनात ! कितें रांदचें हेंच ते घरकान्नीक सूचना जालें. मांस खावपाचो सगळीं आग्रो करूंक लागलीं पुण गांधीजी सोपूत मोडूंक तयार जायना जाले. अेक दीस येजमान तापलो : “ म्हजो भाव जाल्लो जाल्यार हांव ताका परतो घरा धाडून दितलों आसलों. हांगाची परिस्थिती नकळ आशिल्ले आवैकडेन घेतिल्ल्या सोपुताक सोपूतच म्हणूं नज. कायद्यान लेगीत ताका सोपूत म्हणूं नज. असलो सोपूत मोडचोंच ना म्हणप म्हळयार फक्कत भ्रम. जेन्ना मांस खावपाची गरजच नासली तेन्ना तुवें तें खालें ! आनी जेन्ना खावंक जाय तेन्ना खायना ! ! ”

पुण गांधीजी सोपूत मोडूंक कशेंच तयार जाले नात !

येजमानान निमाणो यत्न करून पळवंचो अशें येवजिलें. अेका नाटकाच्यो तिकेटी काडल्यो आनी त्या दिसा अेका हॉटेलांत जेवचें अशें थारायलें. दोगांनीय अेक मेज धल्लें. येजमानान ‘सूप’ हाडूंक लायलो. गांधीजी बुचकळयांत पडले. वाडप्यांक आपवन विचाल्लें.

अिस्ट समजलो. रागान विचाल्लें :

" कितें जाय ?"

"हातूंत मांस आसा काय ना हें विचारूंक जाय."

" असलीं अन्नाडीपणां हांगा चलपाचीं नात. ते परस तूं भायर वच आनी कितेंय खा. भायर म्हजी वाट पळेत अबो राव."

गांधीजींक आनंद जाल्लो. आनी ते अुठून गेले. त्या दिसा ते अुपाशींच रावले. हें तांचे भितल्लें निमाणें प्रेम-युद्ध आसलें. पुण तांचो संबंद तुटलो ना, तांच्यांत वितुष्टच आयलें ना. कित्याक ह्या युद्धा फाटल्यान प्रेम आसलें, काळजी आसली.

****



## : १७४ : स्वेच्छेन शिवराक

सदांच अुपासमार ! कितले दीस मेरेन अशें चलतलें ? अिंग्लंडांत शिवराक खानावळ खेंच ना ? गांधीजींनीं वासपुस सुरू केली. शिवराक खानावळी खें तरी आसात अशें तांणीं आयकल्लें. ते गल्लेन गल्ली भोंवंक लागले. सदां धा–बारा मैल चलताले. अेक दीस अशेच भोंवतां भोंवतां तांकां अेके कडेन 'व्हेजिटॅरियन रेस्तॉरां'.ही पाटी दिसली. ल्हान भुरग्याक अेकाद्री आवडिची वस्त मेळटकूच जसो आनंद जाता तसो गांधीजींक जालो. ते भितर सल्ले. भितर सरचे पैलीं दाराकडले आरमारींत तांणीं कांय पुस्तकां पळेलीं. तातूंत 'सॉल्ट' नांवाच्या मनशान बरयल्लें "अन्नाहाराचें समर्थन" हें पुस्तक आशिल्लें. तें तांणीं विकतें घेतलें आनी जेवंक बसले. अिंग्लंडाक येत पसून आज ते पैलेच खेपे पोटभर जेवले !

"सॉल्ट"च्या पुस्तकान गांधीजींचेर परिणाम केलो. तें पुस्तक वाचलें त्या दिसाच्यान ते स्वेच्छेन म्हळ्यार मनस्पूर्वक शिवराक जाले. ते मेरेन ते सगळ्यांनीं मांस खावंक जाय अशें मानताले. पुण सत्याक पाळो दिवंक जाय म्हुण आनी आवैकडेन घेतिल्लो सोपूत पाळूंक जाय म्हुण ते मांस खायनासले. मुखार केन्नाय तरी अुक्तेपणान मांस खातले आनी दुसऱ्यांकूय खावंक लायतले म्हणपाची तांकां अुमेद आसली. पुण आतां ताच्या अुरफाटें, म्हळ्यार आपुण शिवराक रावन दुसऱ्यांकूय शिवराक करपाची अित्सा तांच्या मनांत अुदेली.

****

## : १७५ : आहाराचे प्रयोग

जिणे विशीं गांधीजी जितले बारकायेन येवजूंक लागले तितली तितली तांकां आपल्या आहारांत फरक करपाची गरज भासूंक लागली. अन्नाहारा वेल्या अिंग्लीश पुस्तकांच्या बरप्यांनीं खूबच बारकायेन विचार केल्ल्याचें तांकां दिसून आयलें. तांणीं धर्म, विज्ञान, वेव्हार आनी आरोग्य ह्या चारूय नदरांनी जेवणाखाणाचो विचार केला हें गांधीजींनीं पळेलें. मनशान सुकणीं-सावदां हांचेर जें धनीपण जोडलां तें तांकां मारून खावपा खातीर न्हय हें तांकां पटलें. मनीस जशे अेकामेकांचो अुपयोग करून घेतात पुण अेका-मेकांक खायनात; तशीं सुकणीं-सावदांय अुपयोगा खातीर केल्यांत, खावपा खातीर न्हय अशें तांकां दिसूंक लागलें.

त्या भायर जेवप-खावप हें चैनी खातीर नासता पुण कुडिचे पोसवणे खातीर आसता म्हणपाचें तांकां कळ्ळें. तांणीं घरच्यान मिठाअी-मसालो ब्री मागयल्लो. तो तांणीं रद्द केलो. तांच्या मनान वेगळेंच वळण घेतलें. मसाल्याची रुचच बावली. मसालो नाशिल्ली जी भाजी तांकां पैलीं बरी लागिनाशिल्ली ती तांकां आतां बरी लागूंक लागली.

असल्या जायत्या प्रयोगां अुपरांत ते अेका निर्णयार पावले कि स्वादाचें खरेलें स्थान जिबेर नासून मनांत आसता.

आनी तेन्नाच्यान गांधीजींनीं अन्नाचे जे तरेतरेचे प्रयोग सुरू केल्ले ते अखेर मेरेन चलयले.

****

## : १७६ : निर्मळ आनंद

विलायतेंत गांधीजींनीं मांसाच्यो तीन व्याख्या वाचल्यो. पैली व्याख्या मांस म्हळयार सुकणीं–सावदां हांचें मांस. ही व्याख्या मानपी लोक मांस खायनासले. पुण नुस्तें खाताले.

दुसरे व्याख्येंत मानपी लोक जांकां आमी जिते जीव मानतांत तांचें मांस खायनासले. पुण तांतयां खाताले.

तिसरे व्याख्येंत मानपी लोक जिते जीव आनी तांचे पसून अुत्पन्न जावपी सगळचोच गजाली खावंक जायनात म्हणटाले. ते तांतीं आनी दूदय खायनासले.

गांधीजींनीं पैली व्याख्या मानिल्ली जाल्यार तांकां नुस्तें खावंक अडचण नासली. पुण तांणीं आवैची व्याख्या प्रमाण मानूंक जाय अशें येवजिलें आनी नुस्तें आनी तांतयांय खावप ना अशें थारायलें.

पुण तें अडचणिचें जालें. कित्याक, अन्नाहाराच्या खानावळींनीं तांतयांचे कितले–शेच पदार्थ आसताले. कितेंय मागयलें जाल्यार 'हातूंत तांतीं पडलां' काय म्हुण विचारचें पडटालें ! हाका लागून तांकां ह्याय खानावळींनीं थोड्याच जिनसांचेर रावचें पडूंक लागलें ! !

पुण ताचें तांकां दुःख नासलें. परतें प्रतिज्ञेक पाळो दिल्ल्याचो निर्मळ आनंद तांकां खिणयाळच्या सुवादा परस अदीक गोड लागूंक लागलो.

[redacted]

## : १७७ : आचाराचो परिणाम

दक्षिण आफ्रिकेंत आसतना गांधीजींची अेका किरिस्तांव घराण्याकडेन अिश्टागत जाली. ते तांगेर आयतारा-आयतारा जेवंक वेताले. तेन्ना सदांच कसली ना कसली धर्मचर्चा चलताली. गांधीजी त्या दिसांनीं 'लाअिट ऑफ अेशिया' हें पुस्तक वाचताले. तांणीं अेक दीस क्रिरस्त आनी बुद्ध हांची तुळा करून म्हळें : "गौतमाची करुणा मनीसजाती पेल्यान वचून मोनजाती मेरेन गेल्ली."

घरकान्न मनान भोळी पुण नदरेन आकुंचित आसली. तिका वायट दिसलें. गांधीजींच्या लक्षांत हें येनाकुडे तांणीं विशय बदल्लो. सगळीं जेवंक बशिल्लीं. तांचो पांच वर्सांचे पिरायेचो अेक ल्हान भुरगोय वांगडा जेवतालो. गांधीजींक भुरग्यांचो खूब मोग. ते ताचे कडेन खेळूंक लागले. तांणीं ताच्या पानावेल्या मांसाच्या कुडक्याची फकाणां माल्लीं आनी आपल्या ताटांत आशिल्ल्या सफरचंदाची तूस्त केली. निष्कपट भुरगो तो! ताचें मन वळ्ळें. तोय सफरचंदाची तूस्त करूंक लागलो.

आवैच्या मनाक तें खूब लागलें. गांधीजींनीं परतोय विशय बदल्लो.

दुसऱ्या आयतारा गांधीजी तांगेर गेले. पुण मनांत मात्सो दुगदुग आसलो. आपुण जावन वचपाचें बंद करचें हें तांका येवजलेंय ना आनी बरेंय दिसलें ना. पुण ते घरकान्नीनच तांकां अडचणींतल्यान सोडयले. तिणें म्हळें :

"तुमी रागार जावं नाकात. पुण तुमचे संगतिचो भुरग्याचेर वायट परिणाम जावंक लागला. कालच्या आयताराच्यान तो

मांस खायना. त्या दिसाचें तुमचें अुलवणें याद करून तो सफर-चंदां मागता. म्हाका हें अुपकारा पडचें ना. म्हज्या भुरग्यान मांस सोडलें जाल्यार तो अशक्त जातलो. तेन्ना तुमी जी कितें चर्चा करतात ती जाण्ट्यांकडेन करात ; भुरग्याकडेन नाका. ताचेर ताचो परिणाम वायट जाता..."

गांधीजींनीं तिका हुस्कयांतल्यान मेकळी केली :

"आवै ह्या नात्यान तुमकां चल्याचो हुस्को जाता तो हांव समजूं शकतां. म्हाकाय भुरगीं आसातच. तेन्ना हातूंतल्यान वाट काडप सोपी. हांव कितें अुलयतां हाचे परस हांव कितें खातां खायना तें पळवन ताचो भुरग्याचेर अदीक परिणाम जातलो. म्हुण तुमगेर हांवें जेवंक येवं नये हेंच बरें. ताका लागून आमचे अिश्टागतींत कांयच फरक पडपाचो ना."

****

## : १७८ : पांचच जिनस खावपाचें व्रत

. बंगाली लोक सोयऱ्याचो आदर सत्कार करपी मोटे. अेक खेपे गांधीजी कलकत्याक गेल्ले आनी भूपेंद्रनाथ बसु हांगेर राविल्ले. आनीक कोणूय जाल्लो जाल्यार घरच्यो बायलो तरेक-तरा पकवान्न्यां करून वाडतल्यो आसल्यो. पूण गांधीजी त्या दिसांनी फक्त सुकोमेवो आनी ताजीं फळां खाताले. शिजयल्लें अन्न घेनासले. तरी आसताना भुपेंद्रबाबूंच्या घरच्या बायलांनी सुक्या फळांचे तरेकतरा जिन्नस केले आनी गांधीजींक वाडले.

पानार बसतकच ते जिन्नस पळवन गांधीजींक वायट दिसलें. आंपल्यासारक्या सादेपणांत रावतल्या मनशाखातीर बायलांक अितले त्रास पडचे हाचें तांकां दुःख ज़ालें. तांणीं त्याच दिसा व्रत घेतलें : " आयच्यान हांव दिसाक पांच जिनसां परस अदीक खावचो ना."

कांय दिसांनी गांधीजींनीं पळेलें कि हिंदुस्तानांत फळां मेळप सोपें न्हय. तीं म्हारगूय पडटात. हें समजतकूच तांणीं फळाहाराचो नेम सोडलो. आनी मस्मी भिकणां खावन रावंक लागले. भोंवडेर असतांना ते बराबर मस्मी भिकणां घेवन वताले.

कांय दिसांनीं तांणी होय नेम सोडलो. हिंदुस्तानांत शिजयल्लें अन्न घेतले बगर चलपाचें ना अशें तांकां दिसून आयलें. आनी शीत रोस, तोंडाक, रोटी बी खावंक सुरवात केली. पैलीं ताणीं मीठ सोडिल्लें. शिजयल्लें अन्न खावंक लागतकूच मीठ परतें सुरू केलें.

मनीस जेवता–खाता जगपा खातीर. खावपा–जेवपाखातीर जगना. कुडिची गरज म्हुण जेवप–खावप. जिबेच्यो रुची भागवपा खातीर न्हय.

गांधीजी अशें मानताले देखून ते केन्नाच कोणाक जेवपा खावपाचो आग्रो करिनासले. जेवपा–खावपाच्या आग्ऱ्याक ते अन्नाडीपण म्हणटाले.

****



## : १७९ : कोडू लिंबाचो पालो

गांधीजींनीं सत्याचे प्रयोग जितले अुत्कटतायेन केल्यात तितलेंच अुत्कटतायेन तांणीं अन्नाचेय प्रयोग केल्यात.

वर्ध्याक आसतना तांचें कोडू–लिंबांच्या झाडांचेर लक्ष गेलें. ह्या झाडांच्या पाल्याचो कितेंय तरी अुपयोग जावंक जाय अशें तांकां दिस. अेक दीस तांकां कोणें सांगलें कि कोडू–लिंबाच्या पाल्यांत कसले तरी गुण आसतात. जालें! तेदूसच्यान गांधीजींनीं कोडू–लिंबाचो पालो खावपाक सुरवात केली.

अेक दीस सरदार वल्लभभाअी वर्ध्याक आयिल्ले. दनपारच्या जेवणार बशिल्ले आसतना गांधीजींनीं तांकां कोडू–लिंबाच्या पाल्याची चेटणी वाडली. सरदार वल्लभभाअींक ती कसली चेटणी आसत हाचो अदमास नासलो. तोंडांत घालून पळेता जाल्यार...देवा देवा...कोडू कोडू–विक्ख !

"कसली चेटणी ही ?" सरदारांनीं विचाल्लें.

"कोडू–लिंबाच्या पाल्याची." गांधीजींनीं जाब दिली.

सरदार दिसपाक भायल्यान रूक्ष दिसताले. पुण तांची विनोद बुद्ध बारीक आसली. कुशीक बशिल्या कुमारप्पांक अुलो मारून तांणी म्हळें:

"जाणा कुमारप्पा ? बापून पैलीं बकरेचें दूद सुरू केलं. आतां निगेलो पालो खावपाचेर येवन पडलें..."

सरदारांचो अभिप्राय आयकून लोकांवांगडा गांधीजीय हांसले.

****

## : १८० : खरेलो रसिक

गांधीजींच्या मुखेल शिष्यां भितल्ले काकासायब कालेलकार हांची मोटे रसिक म्हूण नामना आसा. ते कोडू मोटे रुचीन खातात.

काकासायबां मारकेल्या रसिकांक रूच नाशिल्ली पळवन अेकल्याक अजाप जालें. ताणें तांकां विचाल्लें :

"कोडू अितल्ले रुचीन कशे खातात तुमी ?"

"म्हजी रसिकता अर्दकुटी न्हय म्हूण खातां." काकासायबांनी रोखडीच जाव दिली. "तुमी गोड रुचीन खातात, तिखट रुचीन खातात, कोडसाणेनच बाबडेन तुमचें कितें अिबाडलां? गोडसाण, तिखसाण तशी कोडसाण. खरेलो रसिक तिनांचीय रूच सारकीच घेता."

****



## : १८१ : आदर्श आहार

आयुष्यभर प्रयोग करून करून गांधीजींनीं आरोग्याचे कांय नेम घडिल्ले. ते तांणीं 'आरोग्याची चावी' ह्या पुस्तकांत बरवन दवल्ल्यात. तातूंत गांधीजींच्या प्रयोगांचो सगळो सार येता.

मनशान कितें खावचें आनी कितलें खावचें हाचो विचार करून बुद्धिजीवी मनशाचो सबंद दिसाचो आहार तांणीं ह्या पुस्तकांत दिला तो असो:–

१. दोन पौंड गायचें दूद.

२. स ओंसां वा पंदरा तोळे धान्य (तांदूळ, गंव, बाजरी बी मेळून )

३. तीन ओंसां पाल्या–भाजी आनी पांच ओंसां हेर भाजी.

४. अेक ओंस हरवी (शिजयनाशिल्ली) भाजी.

५. तीन तोळे तूप वा चार तोळे लोणी.

६. तीन तोळे गोड वा साकर.

७. पिकिल्लीं फळां–तांकी प्रमाण.

८. दोन लिंबू.

****



## : १८२ : सैम आनी आळसाय

गांधीजी काश्मिराक गेल्ले. थैंचीं फुलां, फळां आनी सैमाचें वैभव पळवन म्हणूंक लागल्ले—" ज्या प्रदेशांत अितलीं फळां जातात थैं शिजयल्लें अन्न खावपी मनीस अन्नाडीच आसूंक जाय."

सृष्टि आमकां मेकळ्या हातान फळां दिता आनी आमी मात् आळसायेन जावं अन्नाडीपणान तांचो करुंक जाय आसल्लो तसो अुपयोग करिनात हाचें गांधीजींक दुःख जातालें.

पूर्व बंगालांत नाल्ल खूब जातात. गांधीजी थैं आमतना जवाहरलाल तांकां मेळूंक आयिल्ले. तांकां नाल्ला पसून तयार केल्लो अेक जिनस दिवन गांधीजी म्हणूंक लागले:

" जैं नाल्ल खूब जातात थैं मनशाक धान्न्याची अुण्यांत अुणी गरज पडूंक जाय. आडसरांचें अुदक म्हळ्यार अेके तरेचें अन्नूच. नाल्लाचो रोसय बरोच पौष्टिक. खोबरेल तेल तर हालीं मेळटा त्या तुपा परस कितलें-शेंच बरें. नाल्लाची सोय वापरून कितले-शेच जिनस करूं येतात. नाल्ला पसून गोड करूं येता. हिंदुस्तानांत असले जायते प्रदेश आसात पुण सैमान अितल्या अुदारपणान नाल्ल दिल्ले आसुनूय ते प्रदेश चड-शे कंगालच आसात. म्हाका जाल्यार हाचें अेकूच कारण दिसता. ह्या प्रदेशांतले मनीस आळशी. तांगेल्या दारिद्र्याक तांचें आळशेपणच कारण. दुसरें कारणच ना. "

आमच्या कोंकणाक हें म्हणणें कितलें लागू जाता !

****

## : १८३ : बेठें शीत

गांधीजींनीं ल्हान ल्हान गजालींचेर लेगीत खोल खोल चिंतन केल्लें. तांगेलें अेकाद्रें म्हणणें दुसऱ्याक पटलें ना तरूय ताका अितलें दिसून येतालेंच कि ह्या मनशान ह्या प्रस्नांचेर खोल विचार केल्लो आसा.

आश्रमांत बेठें शीत करताले पुण तें अशें कितें करताले कि तें शीत काय कितें तेंच समजनासलें. अेक दीस अेकल्यान गांधीजींक विचाल्लें : हें शीत काय दुसरें कितें ? "

" कित्याक, बरें लागना ? " गांधीजींनीं विचाल्लें.

" ना. "

" जेवन पळे तरी–" आनी गांधीजींनीं प्रवचन सुरू केलें : " लोकांक मोगरेच्यो कळयो कश्यो शीत जाय...आनी तेय गिरणीतल्या तांदळांचें. गिरणींतल्या तांदळांतलें सगळें पौष्टिक तत्त्व ना जावन गेल्लें आसता. अुपरांत शीत धवें फुल्ल दिसचें म्हुण तांदूळ रांदनीर चडवचे पैलीं कितल्योश्योच खेपो धुवन काडतात. ताका लागून अुरिल्लीं तत्त्वांय ना जावन वेतात. त्या अुपरांत तन्न भायर अुडयतात आनी हे भशेन तांदूळ निःसत्व करून खातात...तेय सारके चाबिनात....आनी गरजे परस अदीकच जेवनात. मागीर, जेवतकूच न्हीद येवंक लागली वो धोन फुटूंक लागलें जाल्यार अजाप कसलें ?...आश्रमांतले तांदूळ हातान कांडिल्ले आसतात...तपल्यांत घालचे पैलीं मात्शे धुतात...मागीर अुदकांत भिजवन दवरतात. तन्न भायर अुडयनासतना बेठें रांदतात. हाका लागून तांदळांतल्या सगळ्या पौष्टिक तत्त्वांची जतनाय जाता...शिजून तयार जातकूच आमी तें शीत घोंट्टात

आनी ताचें लोणी कशें करतात. हे भशेन रांदिल्लें शीत गोड लागता, अदीक पौष्टिक आसता आनी तें जेवनकूच्च मुस्नीय येना धोनूय फुटना ..."

येदें व्हडलें प्रवचन आयकनकूच्च हें शीत कोणाक रुचचें ना ?

****

## : १८४ : हाका म्हणटात सविनय भंग

गांधीजींनीं सविनय कायदेभंगाची चळवळ सुरू केली तेन्ना लोकांत खूब अुर्बा आसली. मनांत जें कितें धुसपुसतालें तें भायर काडपाक लोकांक संद मेळिल्ली.

रौलॅट कायद्यां विरुद्ध गांधीजींनीं चळवळ सुरू केली तेन्नाची खबर. पंजाबाक वचूंक ते भायर सरिल्ले. वाटेर सरकारान तांकां आडायले. गांधीजींक आडायले म्हणपाची खबर कळनाफुडें लोकांचो तोल सुटलो. लोकांचो तोल सुट्टकूच सरकारानूय आगळिको केल्यो. सत्याग्रहाचें अस्त्र लोकांक मेळिल्लें. पुण ताचे पथ लोकांनीं पाळूंक नासलें. कायदे मोडूंक जाय अितलें लोकांक कळ्ळें. पुण ते 'सविनय' मोडूंक जाय हें लोक विसल्ले. गांधीजींक आपली चूक कळून आयली. तांणीं निका 'हिमाल्या येदी चूक' म्हळी. तांणीं प्रायश्चित घेवचें थारायलें आनी तीन दिसांचो अुपास केलो.

सविनय कायदेभंग कोणाच्यान करूं येता हाचें पथ म्हुण तांणीं सांगलें: "जो सगळ्या कायद्यांक पाळो दिता ताका अेकाद-दुकलो अन्यायी कायदो मोडपाचो अधिकार आसा. पुण ताच्या मनांत तेन्ना राग आसूंक जायना."

आनी दाखलो म्हुण तांणीं प्रल्हादाची खबर सांगली. प्रल्हादान बापायच्या सगळ्या आज्ञांक पाळो दिल्लो. पुण जेन्ना ताका देवाचें नांव घेवं नाका म्हुण सांगलें तेन्ना मात ताणें 'सविनय' विरोध केलो. ह्या विरोधाक लागून ताका मार खावंचो पडलो, कश्ट सोंसचे पडले. पुण ताच्या मनांत लेगीत बापायचो राग येवंक नासलो. सगळें ताणें थंडसाणेन सोंसलें.

"हाका म्हणटात सविनय कायदेभंग" गांधीजींनीं अेक आदर्श दवल्लो.

****

## : १८५ : पैलीं हात धुवन येयात

भुरगेपणांतली गजाल. गांधींजींचो सभाव भिडेस्त आसलो. आपणाकडल्यान केन्नाच चूक घडची न्हय म्हुण ते सदांच जागरूक रावताले. चूक घडली आनी मास्तरान अुलयलो जाल्यार तांकां वायट दिसतालें. त्याखातीर ते चूकच घडूंक दिनासले.

अेक दीस तांचे कडल्यान कसली तरी चूक घडली. मास्तर कुटली मारूंक आयलो. गांधीजींक आपली चूक कबूल आसली. म्हुण कुटली चुकवची तांची अित्सा नासली. पुण मास्तरान त्या पैलीं आनीक अेकल्याचे तकलेर कुटली मारिल्ली. त्या भुरग्याक खोरोज जाल्ली. मास्तर कुटली मारूंक येतकच गांधीजींनीं ताका सांगलें: "आतांच ज्या भुरग्याचे तकलेर तुमी कुटली मारिल्ली ताका खोरोज जाल्या. तेन्ना पैलीं तुमी हात धुवन येयात आनी मागीर म्हाका मारात."

****

## : १८६ :                ' हिन्द स्वराजा ' वेली बंदी उठली

दक्षिण आफ्रिकेंत गांधीजींनीं ' हिंद स्वराज ' नांवाचें अेक पुस्तक बरयल्लें. त्या पुस्तकाक गांधी विचारगंगेची गंगोत्री म्हळ्यार जाता. तातूंत तांगेले सगळे विचार सूत्ररुपान मेळटात. नीतिचे नदरेन तें अत्यंत निर्दोष पुस्तक. पुण विचारांनीं अत्यंत क्रांतिकारी. गांधीजींची मुखावेली सगळी जीण म्हळ्यार ह्या पुस्तकावेलें भाश्य म्हळ्यार जाता. ह्या पुस्तकाचेर मुम्बैच्या सरकारान बंदी घाल्ली.

हिन्दुस्तानांत येतकूच गांधीजींनीं रौलेट कायद्यां आड जेन्ना सत्याग्रह सुरू केलो तेन्ना तांणीं हें पुस्तक विकून कायदेभंग करपाचो येवजिलो. पुण तें पुस्तक छापूंक कोण तयार जायना जालो. अखेरेक अेकेकडेन तें छापलें आनी पुस्तक तयार जावन मेळ्ळें.

अेप्रिलाचे ६ तारखेर सत्याग्रह सुरू जालो. गांधीजी त्या दिसा मुम्बैंत आसले. सकाळीं चौपाटीर वचून न्हाले. थंच्यान अेक मोटी मिरवणूक भायर सल्ली. सांजची सभा जाली. सत्याग्रहाची प्रतिज्ञा घेतिल्ले लोक ' हिंद स्वराज ' विकूंक भायर सल्ले. खासा गांधीजीय भायर सल्ले. शंबर शंबर रुपया दिवन पुस्तक विकतें घेवपी लोक मेळ्ळे. मुम्बै सरकारान ह्या सत्याग्रहाची अुपेक्षा केली. पुस्तक विकतल्यांक धल्ले नात. छापतल्याकूय धल्लो ना. परिणाम अितलोच जालो कि पुस्तकावेली बंदी आपशींच सुटली. आनी पुस्तक अुक्तेपणान लोक छापूंक लागले, विकूंक लागले.

****

## : १८७ : जातीभायर

मॅट्रीक जातकूच गांधीजी फुडल्या शिक्षणाखातीर विलायतेक वचूंक भायर सल्ले. मुबैंत तांगेल्या जातिच्या लोकां भितर खळबळ सुरू जाली. 'मोढ बनिया' जातींतलो कोणूच अद्याप विलायतेक वचूंक नासलो. जातिच्या लोकांची सभा जाली. गांधीजींक ते सभेक हजर रावपाचें फर्मान आयलें. मुखेल्यान सांगलें:

"तुवें विलायतेक वचपाचें थारायलां ते बरोबर न्हय. विलायतेंत तुजो धर्म बुडटलो."

"पुण हांव थैं शिकूंक वतां" गांधीजींनीं विनयान जाप दिली

"तुजो धर्म थैं बुडटलो. थैं सायबांबरोबर जेवचें-खावचें पडटलें."

गांधीजींनीं सांगलें: "तुमकां ज्या गजालींचो भंय दिसता त्यो गजाली हांव करचों ना म्हुण हावें आवैकडेन सोपूत घेतला क्षानी आवैन म्हाका परवानगी दिल्या."

"पुण तूं जातिचो हुकूम मोडटलो ?" मुखेल्यान विचाल्लें.

"म्हजो निरुपाय . . . म्हाका दिसता जातीन हातूंत पडनाशिल्लें बरें." गांधीजींनीं थंडसाणेन जाप दिली.

मुखेल्याक राग आयलो. ताणें दोनचार गाळी घाल्यो आनी हुकूम सोडलो: "हाका आयच्यान जाती भायलो करचो . . . जो कोण हाका पावंक वचत वा आधार दीत ताका जात जाब विचारतली."

गांधीजींचेर ताचो कांयच परिणाम जालो ना. सविनय कायदे भंगाचो धडये होच पैलो प्रसंग तांचे जिणेंत आयिल्लो जावंये.

कांय वर्सां अुपरांत नांव आनी कीर्त जोडून गांधीजी दक्षिण आफ्रिकेंतल्यान हिन्दुस्तानांत आयले तेन्ना ह्याच लोकांनीं तांकां मानपत्र दिल्लें !

****

## : १८८ : अुजवो हात पोरबंदराक दिला

गांधीजींचें घराणें मूळचें भुसारी पसरकारांचें. 'गांधी' ह्या अुतराचो अर्थच भुसारी पसरकार. पुण महात्मा गांधींच्या आज्यापसून तीन पिळग्यो राजकारणांत वावुरल्यो.

गांधीजींच्या आज्याचें नांव अुत्तमचंद गांधी. काठेवाडांतल्या पोरबंदर संस्थानाचे ते दीवाण आसले. राजकी धोर्शांक लागून अेक खेपे तांकां पोरबंदर सोडचें पडलें. देखून ते जुनागड संस्थानांत वचून रावले. थैंच्या नबाबाक तांणीं दाव्या हातान सलाम केलो.

"अशें चालीभायरें तुमी कितें केलें ?" कोणें अेकल्यान तांकां विचाल्लें.

तांणीं जाप दिली : "अुजवो हात हांवें पोरबंदराक दिला !"

****



## : १८९ : पुण्यप्रकोप

१९३२ तली गजाल. गांधीजी येरवड्याचे बंदखणींत आसले. सरकार घडये कस्तुरबांयकूय धरीत अशी खबर बंदखणींत आयली. महादेवभाअींनीं म्हळें: " हे खेपे बाक स म्हैने पडटले. "

गांधीजींनीं म्हळें: " सी क्लास मेळ्ळी आनी सक्त मजुरी पडली जाल्यार म्हाका अजाप जावचें ना ... पुण बाक 'सी' क्लास मेळ्ळ्यार वायट-शें जावचें ना. "

म्हणटा म्हणसर तिका 'सी' क्लासच मेळ्ळी म्हणपाची खबर आयली. गांधीजींक आनंद जालो. कांय वेळ वतकूच म्हणूंक लागले: " साठ वर्सांचें म्हातारेक सक्त-मजूरी दितना हांकां मातूय लज दिसली ना ? "

कांय दिसांनीं जवाहरलालांचे आवैक पोलिसांनीं मार घालो म्हणून खबर आयली. गांधीजींचो पैलीं हे खबरेचेर विस्वास बसलो ना. पुण अुपरांत तिचेंच पत्रक छापून आयलें. तें वाचून गांधीजींक किर्ते-शेंच जालें. म्हणूंक लागले: " लाला लजपतरायांक मार पडिल्लो तेन्ना सबंद देश खळबळून अुठिल्लो. आज जवाहरलालाचे आवैक जाणूनबुजून मार घाल्लो आसतना लोक थंड कशे बसल्यात ? "

वल्लभभाअी गांधीजी सरींच आसले. तांणीं म्हळें: " खळबळ करपी आमी सगळे भितर बसल्यात ! "

****

## : १९० : कस्तुरबायचो मोट्यांतलो मोटो गुण

कस्तुरबायक सरकारन बंदखणींन 'सी' क्लास दिली ही खबर वाचून अेका वर्तमानपत्रकारान खरमरीत अग्रलेख बरयलो. हो वर्तमानपत्रकार हरशीं मिळमिळीत बरवपी म्हूण लोक वळखताले. गांधीजी हो लेख वाचून म्हणूंक लागले: "हें फिरोजशाह मेहता मारकें जालें ! दक्षिण आफ्रिकेच्या लढ्या विशीं तांकां कळकळ नासली. पुण बाक घल्ल्या म्हूण कळटकूच तेय खुविल्ले ! "

वल्लभभाअींनीं म्हळें. " वा विशीं कोणाकूय तशें दिसतलें. ती म्हळ्यार अहिंसेची म्हूर्त. तिचीं सादेपणां, नमळाय, मोगाळ सभाव हांची कोणाचेरूय छाप पडूंक जाय .... "

गांधीजींनीं म्हळें : " हय.. पुण बाचो सगळयांत मोटो गुण खंचो खबर आसा ?... दक्षिण आफ्रिकेपसून आतां मेरेंचे तिचे जिणेंत हांवें. मोट्यांतलो मोटो गुण पळेला तो म्हळयार तिची बहादुरी... "

कस्तुरबाय गांधीजींची सावळी कशी जावन तांच्या फाटल्या-फाटल्यान चल्ली. पुण अेके नदरेन गांधीजींक वयर तिणेंच काडल्यात म्हळयार जाता. " हांव अितलो वयरसल्लां तो बाक लागून " अशें खासा गांधीजीच जायते फावटी म्हण्टाले.

****

## : १९१ : भेटींचो ट्रस्ट

दक्षिण आफ्रिकेंतले सेवेक स्मरून थंच्या हिंदी लोकांनीं गांधीजीक अेक मानपत्र दिलें आनी ताचे बरोबर जण अेकल्यान आपली याद म्हुण अेक अेक वस्त भेट दिली, तातूंत वज्राच्यो मुदयो, भांगराच्यो सरपळयो, पोवनां बी जायत्यो वस्ती आसल्यो.

गांधीजींनीं आपली जीण देशाचे सेवेक ओंपिल्ली. अपरिग्रहाचें व्रत घेतिल्लें. लोकांक सादेपणा शिकयताले. तांणीं ह्यो वस्ती घेवंच्यो कश्यो ? ते येंवजूंक लागले आनी ताणीं तांचो 'ट्रस्ट' करचो आनी रासवळ कामांकूच त्यो दिवंच्यो अशें थारायलें.

पुण हें कस्तुरबायक पटवचें कशें ? निकाय पन्नास पोवनांची अेक सरपळी मेळिल्ली. ती कस्तुरबाय दिवंची ना हाची तांकां खातरी आशिल्ली. म्हुण तांणीं सगळचांत पैलीं भुरग्यांक समजायलें. भुरग्यांक पटलें. तीं म्हणूंक लागलीं: " आमी ह्यो वस्ती दवरूंक जायनात. "

गांधीजींक खूब आनंद जालो. तांणीं तांकां म्हळें: " तुमी बाक हें समजाय. श्यात ? "

भुरग्यांनीं हय म्हळें. पुण कस्तुरबायक समजावप सोपें नासलें. ती म्हणूंक लागली: " तुमकां तांची गरज नासत; भुरग्यांकूय नासत. भुरग्यांचें कितें ? फुलयल्यार फुलतात...पुण म्हज्या सुनांचें कितें ? हांव तांचे खातीर त्यो दवरतलीं. "

" मुनो येवपाक अजून कळाव आसा... तेन्नाचें तेन्ना पळवं येत. " गांधींजींनीं सांगलें.

" हांव वळखतां तुमकां... म्हज्यो वस्ती सगळयो काडून घेतल्यो. म्हाका घालूंक दिल्योनात. त्यो तुमी सुनांक हाडून दितले ? "

तिच्या दोळयांतल्यान गंगा-यमुना व्हावंक लागल्यो — "आनी म्हाका जी सरपळी मेळ्ळ्या तिचेर तुमचो कसलो हक्क ?"

"पुण ती म्हजेच सेवेक लागून मेळ्ळ्या न्हय ?" गांधीजींनी विचाल्लें.

"तुमची सेवा ती म्हजी न्हय ? आनी हांवें दीसरात कश्ट काडल्यात ते ? ते कांय न्हयत? म्हाका रडवन नाका नाका जाल्ल्या लोकांचे कांशे लेगीत म्हाका काडूंक लायल्ले, ती म्हजी सेवा न्हय ?"

कस्तुरबायचे हे सगळे तीर गांधीजींक लागलेच नात. तांणीं त्यो वस्ती परत्यो करपाचो निश्चयच केल्लो. तांणीं तांचो ट्रस्ट केल्लो. अजून तो दक्षिण आफ्रिकेन चल्ता; तातूंत भरच पडत गेल्या. ताचो बरो अुपयोग जाता.

कांय काळा अुपरांत कस्तुरबायकूय केल्लें ते बरें केलें अशें दिसूंक लागलें.

****

## : १९२ : हांव तुका थर्त भियेतां

साबरमती आश्रमांतली खबर. मोतिलाल नेहरू येवपाचे आसल्ले. तांचे खातीर जेवण तयार करपाचें आसल्लें. त्या दिसांनीं 'रसोड्या' ची ( रांदचे कुडिची ) देखरेख कस्तुरबाय करताली. ती काम करून न्हिदिल्ली. तिका पुरो जाल्लें. म्हूण गांधीजींनीं मोतिलालजीं खातीर जेवण करपाचें काम आश्रमांतल्या दुसऱ्या अेकल्या कडेन दिल्लें. कस्तुरबायक त्रास जावं नये ह्या खातीर तांणीं अशें केल्लें.

पुण रांदचे कुडींत ताठ जमनीर पडून कस्तुरबायक जाग आयली. तिणें भितर वचून पळेल्लें. गांधीजींनींच सांगलां जातलें. हें तिका समजलें.

मांजची प्रार्थना जातकच कस्तुरबाय गांधीजी सरीं गेली आनी कमरार अेक हात दवरून विचारूंक लागली:

" म्हजें काम तुमी दुसऱ्या कडेन कशें दिलें ? म्हाका आळशी धरतात काय कितें तुमी ? "

गांधीजींनीं निचे कडेन पळेलें, खीणभर ओगी रावले आनी म्हळें: " बा, हांव तुका थर्त भियेतां; तुका खबर ना ? "

****

## : १९३ : लोकमान्य आनी गांधीजी

लोकमान्य टिळक आनी गांधीजी हांच्या सभावांत जसो फरक आशिल्लो तसो तांचे काम करपाचे तरेंतूय फरक आशिल्लो. दोगूय शक्तिशाली. दोगूय अेक जायत जाल्यार कितलें बरें जायत ! अशें येवजून दोगांय विशीं मनांत भक्तिभाव आशिल्ल्या कांय लोकांनीं गांधीजी आनी लोकमान्य हांची भेट घडवन हाडली. दोगांनींय मेकळेपणान अुलवचें म्हुण तांकां अेकांतांत दवरून ते लोक कुशीक सल्ले.

दोगांचीय बरोच वेळ अुलवणीं जाल्लीं. कांय वेळान दोगूय भायर आयले.

लोकमान्यांक कोणें विचाल्लें : " कसो कितें लागलो हो मनीस ? "

लोकमान्यांनीं जाप दिली : " हो मनीस आमचो न्हय. आमच्या कामांत हो अुपकरा पडपाचो ना ...... पुण ह्या मनशा विशीं अेक गजाल सांगुंयेता. हो मनीस सत्यनिष्ठ. हाच्या हातान हिन्दुस्तानाचें नुकसान केन्नाच जावपाचें ना. हाका जाता तितलो आधार दिवचो हाचो विरोध केन्नाच करचो न्हय. "

अेकदीस रातच्या वेळार आश्रमांत लोकमान्यां विशीं खबरी आयल्यो. गांधीजी म्हणूक लागले : " हिन्दुस्तानाच्या स्वराज्याचें दीसरात ध्यान करपी असो हो अेकलोच मनीस. " कांय वेळान म्हणूंक लागले : " लोकमान्य जर आतां जागे आसतीत जाल्यार म्हाका खातरी आसा कि ते अेक तर स्वराज्याविशीं येवजितात जातले वा कोणाकडेन त्याच विशीं अुलयतात जातले ... "

दोगांनूय फरक आशिल्लो. पुण दोगांकूय अेकामेकांविशीं कितलो आदर दिसतालो !

****

## : १९४ : हाचे सारको मनीस पळवंक ना

१९१५ त नामदार गोखल्यांक मेळूंक गांधीजी पुण्याक गेल्ले. त्या दिसा मुकुंदराव जयकर गोखल्यांक मेळूंक आयिल्ले. दोगूय जाण अुलयत बसल्यात-शें पळवन गांधीजी अुठून गेले आनी संडास निवळ करूंक लागले. कोणें तरी येवन हें गोखल्यांक सांगलें. तांणीं गांधीजींक आपवन विचाल्लें :

" हें कितें ? "

" म्हजें सदचें काम तें. " गांधीजींनीं जाप दिली.

" आसत ... पुण तें म्हगेर चलूंक दिवपा ना हांव. " गोख-ल्यांनीं सांगलें.

गांधीजी गोखल्यांक आपले गुरु लेखताले. तांणीं बरें आसा म्हळें आनी हात धुवंक गेले.

फाटल्यान जयकरांनीं गोखल्यांक विचाल्लें :

" ह्या मनशाविशीं तुमचें मत कितें ? "

" हो मनीस ... आमी संवसार सोडून वतकूच भारताचो पुढारी जातलो ... हाज्यांत येदी शक्ति आसा कि हो सादे मात-

येच्या पुतळयांतल्यान मोटे हुतात्मे करतलो ... जेन्ना लोकांचीं काळजां पेटवचीं पडटलीं, लोकांक त्यागाक आनी बलिदानाक तयार करचे पडटले तेन्ना हो ती जापसालदारकी आंगार घेतलो ... हाचे सारको मनी हांवें पळवंक ना ... ''

****

## : १९५ : तुमचे तकलेंतलें सांगात

१९४२ तली खबर. गांधीजी खूब येवजिताले. त्या खातीर तांणीं जेवणूय उणें केल्लें. " जेवण आनी येवजप दोनूय गजाली एका बरोबर जावच्यो नात ... तेन्ना जेवण अिल्लें उणें केल्लें बरें '' अशें ते म्हणटाले.

देशांत सगळे कडेन सत्याग्रहाच्यो खबरी चलताल्यो. गांधीजींक लोकांची तयारी कितली आसा हाचो अदमास घेवंचो आसलो. ते जण एकल्याक विचारताले आनी जण एकलो आपापल्या प्रांतांतली परिस्थिति तांच्या मुखार दवरतालो.

एकल्यान तांकां पुराणाचे भाशेंत सांगलें : " हांव तुमकां एक काणी सांगतां. नारद एक खेपे वैकुंठाक पावलो. विष्णून ताका विचाल्लें – ' नारदा, पावसाची खूब गरज आसा अशें म्हणटात... पावस केन्ना–सो पडटलो ? ' नारदान पंचांगांत पळेलें आनी म्हळें—" पावस ह्या दिसांनीं पडपाची आस्त ना. ' थोड्या वेळान नारद भायर सल्लो. वतना ताणें सत्री मागून घेतली. विष्णून विचाल्लें. ' पावस पडपाचो ना, जाल्यार सत्री कित्याक जाय ? ' नारदान सांगलें – " हांवें पंचांगांतलें सांगलां. तुजे तकलेंत कितें आसा तें म्हाका खें खबर ! ''

ही काणी सांगून तो पुढारी म्हणूंक लागलो — " महात्माजी, लोकांचें विचारूं नाकात. तुमचे तकलेंत कितें आसा तें सांगात. तुमी सत्याग्रह सुरू करचो येवजिल्ला जाल्यार तो जातलो. "

१९४२ त हिन्दुस्तानांत गांधीजींचो येदो प्रभाव आशिल्लो.

****

## : १९६ : हांव एकलो वतलों

१९४२ तलें चळवळिचें म्हत्त्व लक्षांत येवपा खातीर आमकां माल्शी जगाच्या नकाश्यावेल्यान नदर भोंवडावची पडटली. येरोपांत हिटलर आनी मुसोलिनी मगळें ना-नपश्चात करीत मुखार वताले. हेवटेन एशियांत जपान मगळें चिड्डीत-माड्डीत येतालें. सिगा-पुराचेर बॉम्ब पडिल्लो. ब्रम्हदेशांत अजून जपानी पावंकूच नामल्ले. तरी हांवां मद्रासचो गवर्नर मुटी घेवन गेलो. बंगालचोय गेलो. हिन्दुस्तानच्या अदेंत किनाऱ्यार ब्रिटीश मनीसच नामल्लो म्हळचार जाता. ब्रिटीश सरकार जीवन मरणाचे कातरींत सांपडिल्लें. मात् लेगीत विरोध सोंसूंक तयार नामल्लें.

आनी अश्या वेळार गांधीजींनीं सत्याग्रहाचें रणशींग फुंकलें. कांग्रेसींत व्हडले व्हडले शूर वीर लोक आशिल्ले पुण तांची सत्या-ग्रहाक तयारी नामल्ली. कांग्रेस चिड्डतली, सरकार सगळ्यांक चेपतलें असो तांकां भंय दिसतालो. गांधीजींक ते बेत बदलूंक सांगताले. पुण गांधीजी फाटीं सरूंक तयार नासले. ते म्हणूंक लागले:

" तुमी कोण म्हजे बरोबर आयले नात जाल्यार हांव एकलो सत्याग्रह करतलों... आनी म्हाका खातरी आसा कि देश म्हज्या फाटल्यान येतलो. "

गांधीजींचो येदो आत्मविश्वास आसलो. त्या वेळार तांची पिराय ७३ वर्सांची आसली.

****

## : १९७ : आनी मागीर काँग्रेस तयार जाली

सरकार अडचणींत आसतना सत्याग्रह्यान ताचो लाव घेवंक जायना अशी शिकवण गांधीजींनींच ह्या पैलीं दिल्ली. १९४२ त तर सरकार जीवन मरणाचे कातरींत पडिल्लें. अशें आसुनूय गांधीजींनीं सत्याग्रह कित्याक सुरू केलो ?

तांणीं म्हळें: " हांव सरकाराचे अडचणिचो लाव घेना ... पुण हांव जाणां कि जपान आमच्या दारार मारूंक लागलां. ब्रिटिशांचे राजवटकेन आमचो लोक अितलो वाजेला कि जपानी येवन हें राज्य वना जाल्यार लोक जपान्यांक हार-तुऱ्यांनीं येवकार दितले. आनी प्हरून दिल्लीक राज्यार वसयतले. ब्रिटिशांचें राज्य देडशें वर्सां अुल्लें. जपान्यांचें कितलीं वर्सां अुरतलें, सांगूं नज. हिन्दुस्तान तांचे आड झुजतलें जाल्यार ताची तयारी आतां पसून सुरू जावंक जाय. "

गांधीजींचें हें म्हणणें आयकना फुडें लोकांचे नकलेंत लक्ख अुजवाड पडलो. जवाहरलालांनीं त्या वेळार अेक अुलवप केल्लें. तातूंत तांणीं म्हळ्ळें : " हांव अितले दीस काळखांत आसलों.... आतां म्हका अुजवाड दिसूंक लागलो. "

आनी मागीर काँग्रेस गांधींच्या फाटल्यान वचूंक तयार जाली.

****

## : १९८ : निमाणी बंदखण

काँग्रेसीन थाराव पास केलो. गांधीजी शांत आसले. ते व्हायस-रॉयंक मेळून आपली भूमिका समजावपाचे आसले. हिन्दुस्तान स्वतंत्र जालें जाल्यारूच तें जपान्यां आड झुजूंक पावतलें हें आपलें म्हणणें व्हायसरॉयांक पटवपाचो तांचो वेत आसलो. व्हायसरॉय ताकतीक करचे नात अशोय तांचो समज आसलो.

अधिवेशनांतल्यान गांधीजी घरा आयले. फांतोडेचीं चार वाजिल्लीं. अितल्यांत पोलीस आयले. गांधीजींक आपणाक येदे वेगीन धरतीत अशें दिसूंक नासलें. पुण ब्रिटीश सरकार किनेंच आयकून घेवंक तयार नासलें. ताणें गांधींक धरून भितर घालचें अशें थारायल्लें.

पोलीस आयल्यात म्हुण गांधीजींक कळ्ळें.

"केन्ना भायर सरूंक जाय ?" तांणीं विचाल्लें.

"स वरांचेर" पोलीस कमिशनरान जाप दिली.

"बरोच वेळ आसा तर" अशें म्हणून गांधीजींनीं प्रार्थना केली; अुदक घेतलें आनी आपली लाठी घेवन महादेवभाअीं बरोबर भायर सल्ले. गांधीजींची ही निमाणी बंदखण आसली आनी महादेवभाअींचेंय हें निमाणें दर्शन आसलें. सात दीस जावचे पैलींच महादेवभाअी भायर पडले. ****

## : १९९ : आमी आमचें पावल पळवंया

गांधीजी सदांच म्हणटाले: " म्हाका अेक पावल पुरो. " आनी हें तांचें जिणेचें अेक सूत्र जाल्लें. हाका लागून मुखार कितें जातलें हाचो हुस्को तांकां जायनासलो. आपुण जें पावल घालता तें फावो ते दिशेंत पडलां काय ना हें मात् ते बारकायेन पळेताले.

१९४२ तली खबर. झूज चलतालें आनी अिंग्लंड तातूंत हुलपतालें. अेक दीस अेका राजकर्ण्यान गांधीजींक म्हळें : " ह्या झुजान जायत्यो गजाली बऱ्यो जावपाच्यो आसात...हिन्दुस्तान खातरीन स्वतंत्र जातलें..."

गांधीजींक असलीं धोरणां समजय नासलीं, मानय नासलीं. तांणीं ताका जाप दिली :

" वायटांतल्यान म्हुण केन्ना कितें बरें जालां ? झूज म्हणटात तें अेक वायट कर्म. तातूंतल्यान बरें कितें जातलें...? पुण तें कशेंय जावं, आमी आमच्या पावलाचेर नदर दवरूंया. ते (ब्रिटीश) अडचणींत सांपडल्यात ताचेर नदर दवरून भागपाचें ना..."

****



## : २०० : कविकल्पना ?

अेकलो कार्यकर्तो गांधीजींक मेळूंक गेलो. तो ज्या प्रदेशा विशीं तांचे कडेन अुलवंक मोदी थंचें राज्य जुल्मी आसल्लें. विरोध करतल्यांक तें दया माया बाळगिनासतना चिड्डन अुडयतालें. थं सत्याग्रह करूंक येनासल्लो, हिंसाय शक्य नासल्ली. थं नागरिक स्वतंत्रतायूच नासल्ली. मागीर राजकी संघटना कशी आसतल्यो ?

गांधीजींनीं ताका विचाल्लें : "तुमी तो प्रदेश सोड्न भायर येवंक तयार आसात ?"

ताका गांधीजींचें म्हणणें समजल्लें ना. तो तांच्या तोंडाकडेन पळेत रावलो. गांधीजींनीं ताका सांगल्लें : असहकार करूंक येना थै हांव लोकांक तो प्रदेश सोड्न भायर येयात म्हणटां...हाका 'हिजरत' म्हणटात.... सगळ्यांनीं तो प्रदेश सोडीत जाल्यार तें राज्य कोणाचेर करतलें ? असहकार अितलेंच तें प्रभावी जातलें."

त्या कार्यकर्त्यान हें दिशेन केन्ना येवजूंकच नासल्लें. ताका तो मार्ग प्रभावी दिसलो. पुण लोक तो मानतीत काय किनें ह्या विशीं ताका दुबाव आयलो. ताणें म्हळें : "महात्माजी, हेंय आमचो लोक करूंक तयार जातीत अशें म्हाका दिसना."

"मागीर, स्वराज्याक तुमचो लोक तयारच जावंक ना. तुमकां खूब काम करूंक जाय." गांधीजींनीं म्हळें.

****

## : २०१ : नेत्याची श्रद्धा

गांधीजी बंदखणींत आसले. भायर चळवळ थंड पडिल्ली. थोडे जण यत्न करताले. पुण खर्शेवन, निर्शेवन पडटाले. गांधीजींक अेकल्या कार्यकर्त्यान ही खबर कळयली. पुण गांधीजींक सोडून आनीक कोणाक समजना असल्या अुतरांनीं कळयली. गांधीजींनीं ताका जाप धाडली :

" जे जल्माक येतात तितलेय जिते अुरनात. हवा अिबाडली जाल्यार मरतल्यांचो आंकडो वाड्टा. अजून हो आंकडो वाडूंक ना हें वाचून आनंद जालो. पुण मरतल्यांचो खेद कसलो ? जो मरूंक तेंकला ताच्या मरणाचो खेद कसलो ? त्या भायर मरतलो परतो जल्म घेताच. म्हणटकूच खेदाक कसलेंच कारण ना."

पळेल्यार मरणावेलें बरप दिसता. पुण तातूंत सत्याग्रही नेत्याची श्रद्धा कितले अुत्कटतायेन व्यक्त जाल्या !

****



## : २०२ : गाळी संवतल्याक जाप

अेकल्यान गांधीजींक चीट धाडली :

" तुमकां राजकारणांनलें कांय समजना. तें दुसऱ्यांकडेन सोंपवन तुमी हिमालयांत वचात....तुमी सगळें अिबाडून अुडयलां."

गांधीजींनीं ताका जाप बरयली :

" तुमचो अुपदेस पावलो. अुपकार जाले. हांव बंदखणींत आसां. बंदखणींतल्यान हांवें राजकी विशयाचेर बरवंक जायना. पुण अितलें म्हाका कबूल करूंक जाय कि बंदखणिच्या अेकांतांत म्हाका येवजुपाक खूब वेळ मेळ्ळा आनी अशें आसुनूय म्हज्या विचारांत बदल घडूंक ना."

वल्लभभाअींनीं दोनूय पत्रां वाचलीं. " तुमी आपल्या हातान ताका कित्याक बरयलें ?" तांणीं विचाल्लें.

" असल्यांक आपल्याच हातांनीं बरवंक जाय." गांधीजींनीं म्हळें.

" गाळी संवतल्यांकूय असलीं पत्रां ?....हाकाच लागून ही जात मातल्या..." वल्लभभाअींनीं म्हळें.

" पुण आमचें नुकसान कांयच जावंक ना." गांधीजींनीं हांसत हांसत म्हळें.

****

## : २०३ : सौम्य अुतरां पुण भास कडक

लॉर्ड सँकिचो अेक लेख गांधीजींनीं वाचलो. तातूंत ताणें सत्याचो खून केल्लो. गांधीजींक तो लेख वाचून खूब वायट दिसलें. गांधीजींनीं ताका पत्र बरवपाचें येवजिलें.

गांधीजी सांगताले आनी महादेवभाअी बरवन घेताले. वल्लभ-भाअी कुशीक बसून आयकताले. पत्र बरवन सोंपतकूच वल्लभभाअी म्हणूंक लागले : "अितलें बरवपाची गरजच ना. ताका स्पष्ट अुतरांनीं बरयात तूं फटींग म्हुण."

"ताचे परस कडक हांवें बरयलां" गांधीजींनीं म्हळें. "हांवें म्हळां, तुजी वागणूक बऱ्या मनशाची न्हय; म्हुण तुवें दगो दिला म्हुण."

वल्लभभाअींची तरा वेगळी आसली. ते अेक घाय आनी दोन कुडके करताले. गांधीजी आपली शीम अुपिनासले. सज्जनता सोडिनासले. अुतरां सौम्य आसतालीं पुण तांच्या फाटल्यान तेज आसतालें. गोलमेज परिशदे वेळार तांणीं जीं अुलवपां केल्लीं तीं वाचून पळेत जाल्यार सौम्य शब्दांनीं कितलें कडक अुलवं वा बरवं येता हें दिसून येतलें. सरकारा आड तांकां जायतें बरवचें पडलां. पुण खैंचेचकडेन अेक गैर अुतर मेळचें ना. अितलें सुंदर तांचें बरप आसतालें.



## : २०४ : प्रामाणिक विरोधी तोखणायेचे

सेम्युअल होरचें अुलवप वाचून गांधीजी म्हणूंक लागले :

“ हाचें म्हाका बरें दिसना. हाका मध्यस्थी नाका. तो कोणाक पानयेना. असल्यांकडेन भूजननां म्हाका चड येवजुचें पडना. लॉर्ड संकी परस हो मनीस बरो. संकी भशेन भायर अेक भितर अेक, अशें तांचे ना. हाका दिसना तें तो अुलयना....”

सेम्युअल होर हांकां गांधीजी मेळ्ळे तेन्ना तांणीं तांकां विचाल्लें : “ गोलमेज परिशदेंत अितले लोक जमल्यात. तांचे भितल्ल्या अेकल्याचेरूय तुमचो विस्वास ना ?”

होर हांणी जाप दिली : “ खरें सांगूं ? अेकल्याचेरूय ना. ”

गांधीजींक ही जाप आयकून बरें दिसलें. तांणीं म्हळें : “ तुमचीं प्रामाणिकपणां म्हाका तोखणायेचीं दिसतात. ”

गांधीजींक विरोधी प्रामाणिक आसत जाल्यार बरें दिसतालें. कित्याक, ते म्हणटाले—“ हो कितें करतलो हाची आमकां पैलींच कल्पना आसता. म्हुण आमकांय आमचीं पावलां थारावंक चड येवजुचें पडना. ”

****

## : २०५ : अेका वाक्यांत पुराय चित्र

१९३६ त वेंचणुको आयल्यो. राजकारभारांत लोकांचो हात अदिकांत अदीक आसचो म्हुण सरकारान ह्यो वेंचणुको जाहिर केल्ल्यो. काँग्रेसीन तातूंत वांटो घेवचो अशें थारायल्लें. गांधीजींक कोणें अेकल्यान म्हळें : “ स्वराज्य आतां मेळिल्ल्यांत जमा. ’

गांधीजींनीं रोखडीच जाप दिली : “ हय...तांणीं घर आमचे सुवादीन केलां. पुण चावयो आपल्या हातांत दवल्ल्यात.”

अेका वाक्यांत गांधीजींनीं पुराय परिस्थितिचें वर्णन केल्लें. आनी जालेंय तशेंच. कॉंग्रेसचीं मंत्रीमंडळां आसतना ब्रिटीश सरकारान तांकां विचारिनासतना हिन्दुस्तानाक युद्धांत धुकल्लें.

कॉंग्रेसच्या मंत्र्यांनीं मागीर सोडचिठी दिल्यो ती गजाल वेगळी.

सर स्टॅफर्ड क्रीप्स अेक येवजण घेवन जेन्ना हिन्दुस्तानांत आयले आनी " युद्धांत हिन्दुस्तानान पालव दिवचो, मागीर युद्ध सोंपतकूच आमी स्वातंत्र्य दितांव " अशें सांगलें तेन्ना गांधीजींनीं ताचें a post-dated cheque on a crashing bank म्हळ्यार, दिवाळें काडूंक भायर सरिल्ले बेंकेच्या नांवान फुडले तारखेन दिल्लो चेक अशें वर्णन केल्लें.

असली वर्णनां करपांत गांधीजींक कोण लागनासलो. अेका वाक्यांत ते सबंद परिस्थितिचें चित्र अुबें करताले.

****

